# भाड्याचो कुसवो

(2004 -2005 वर्साचे पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस तियात्र लेखन सर्तींत पयलें इनाम फावो जाल्लो तियात्र)

मिनीन मारियो आरावजो




गोवा कोंकणी अकादेमी

**भाड्याचो कुसवो**
(तियात्र)

**BHADYAENCHO KUSVO**
(Tiatr)

**लेखक :**
मिनीन मारियो आरावजो

**Writter by :**
Minio Mario Araujo

**लिपयांतर :**
सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

**Translated by :**
Sakharam Govind Shenavi Borkar

**प्रकाशन क्र.** 109

**Publication No.** 109



**पयली आवृत्ती :** 2008

**First Edition :** 2008

**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

**Publisher :**
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa.

**छापपी :**
कस्तुरी ग्राफिक्स
ढवळी, फोंडें, गोंय.

**Printer :**
Kasturi Graphics,
Dhavali, Ponda - Goa.

**मुखचित्र :**
डॉमनीक कोर्दो

**Cover :**
Domnick Cardo

**मोल :**
रु. 30/-

**Price :**
Rs. 30/-

# अकादेमीचे वतीन....

पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस हांच्या नांवान गोवा कोंकणी अकादेमी दर वर्सा तियात्रांच्या हातबरपांची सर्त घेता आनी मागीर सर्तींत पयलें इनाम लाबिल्ल्या तियात्राचें हातबरप देवनागरी लिपिंत पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडटा. आयजवेर अशे तरेंची दोन पुस्तकां अकादेमीन उजवाडाक हाडल्यांत.

2004-2005 वर्साचे सर्तिंतलो पयल्या इनामाचो 'भाड्याचो कुसवो' हो तियात्र आयज पुस्तक रूपान प्रगट जाता. कोंकणी माचयेर, कला अकादेमी तियात्र सर्तींत नांव जोडिल्लो श्री. मिनीन मारियो आरावजो हांगेलो हो तियात्र. पुस्तक रुपान येवचे आदीं तो रंगमाचयेर आयला. ताची व्हीसिडीय प्रगट जाल्या. पळोवप्यांनी तो वाखाणला.

गोवा कोंकणी अकादेमीन 'पयलो चंवर', 'साहित्य प्रभा', 'तियात्र मांड, 'मानेस्तांची पुस्तकां' अशा वेगवेगळ्या येवजण्यांखाला आयजवेर अठरा वयर तियात्रांची पुस्तकां प्रगट केल्यांत आनी हो वावर चालू आसा. आयज ना फाल्यां गोवा सरकार आपणाल्या सांस्कृतिक धोरणाप्रमाण तियात्र अकादेमीची स्थापना करपाचो आसा. तेदेवेळार गोवा कोंकणी अकादेमीन तियात्रावयर केल्लो हो वावर बुन्यादी स्वरूपाचो थारतलो हातूंत आमकां मातूय दुबाव ना.

श्री. मिनीन मारियो आरावजो हांगेलो 'भाड्याचो कुसवो' तियात्र वाचप्यांक मानवतलो अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

## बरोवप्याच्या काळजांतलें....

पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस अमर उगडासाक गोवा कोंकणी अकादेमीन घडोवन हाडलेल्या पांचव्या तियात्र लेखन स्पर्धेंत 2004-05, वर्सा म्हजो तियात्र 'भाड्याचो कुसवो' हाका प्रथम इनाम फावो जाल्लेखातीर, हो म्हजो तियात्र देवनागरी लिपींत पुस्तक रूपांत, गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अस्तोगीं, प्रकाशीत जाता म्हण हावं चड खूश जाता.

घराब्यांत भुरगें जल्मूंक अडचण आसल्यार, घोव-बायल विज्ञानीक उपाय वापरुन खेरीतपणी 'सोरोगेट'(surrogate) पद्धत वापरतात आनी घडयेच तें भुरगें दुर्दैवान अपंगूळ जल्मून आयल्यार, ताचे कसले हालाहाल जावंक शकता तांचेर उजवाड ह्या तियात्रांत घातला. आनी ते जावंचे न्हय म्हण तांच्या बदला 'पोसकें' पोसल्यार कितें वायट आसा? ताचेर लक्ष घालूंक तसल्या घराब्याक आदार केला.

जायत्या परक्या देसांनी आनी आमच्या देशांत पर्यंत असले उपाय वापरून जल्मल्ल्या निर्मळ भुरग्यांचेर अन्याय जाता तो जावंचो न्हय होच ह्या तियात्राचो मुखेल हेतू.

देवनागरी लिपींत हो तियात्र छापतात तेन्ना, हो म्हजो रोमी लिपींत केल्लो वावर म्हज्या प्रितिवंत देवनागरी लिपींत वाचपी कोंकणी मोग्यांच्या हातांत पावतलो आनी म्हज्या विचारांक अदीक प्रकाश फांकतलो म्हण म्हाका अदीक उर्बा आनी उमेद जाता.

**मिनीन मारियो आरावजो,**

कुजीरा, सांताक्रुज,
तिसवाडी, गोंय.

## पयलो पड्डो

(ह्या घरांत एक घरकार रिगन आनी ताची घरकान्न वेनेसा रावतात. दोगांय ऑफिसांत वचपी मनशां.

सादारण मदल्या वर्गांत रावपी लोकाच्या घराचें साल.

सालाक एक मदींच भितर सरपाचें दार, उणींच तीं दोन जनेलां आनी दोनय बाजूंनी दोन बेडरूमांची दारां आसात. तशेंच वण्टीर एक घड्याळ आसा.

रातचो वेळ म्हण जनेलांतल्यान निळो उजवाड दाखयतात. न्हिदूंक वचपाचो वेळ.

तशेंच सालाचे वण्टीर साबार तरांचीं भुरग्यांचीं चित्रां दिसतात आनी भुरग्यांनी खेळपाच्यो वस्तू मांडिल्ल्यो आसात. आयचे रातीं ह्या चित्रांक रिगन पळयत आसा. एका हातांत टेडी-बावली आनी दुसऱ्या हातांत सोऱ्याचो ग्लास.

खेळपाच्या बावल्यांक पळोवन, हात लावन कितें तरी चिंतता अशें दिसता. उप्रांत सालाच्यो लायटी पालवतात आनी रिगन, वेनेसा आसा त्या रुमांत वता. थोडोवेळ बेडार बसतगीर रिगन वेनेसा - आपले बायलेकडेन शारिरीक संबंद मागता सो दिसता. पूण ताचो हात लागतकीर ती उसळटा..)

वेनेसा : ना .... हात जोडटां... तूं कुशीन सर. म्हाका आनीक भुरगीं नाकात.

रिगन : पूण वेनेसा, हें कशें जातलें?

वेनेसा : (उसळटा) रिगन, म्हाका भिरांत दिसता. तूं बरे भशेन जाणां, सात वर्साफाटीं, आमच्या लग्नाच्या पयल्याच वर्सा, हांव गर्भेस्त आसलीं तेन्ना दोतोरान सोनोग्राफी करतकच म्हज्या कुसव्यांत आशिल्या भुरग्याची वाड दिसान दीस इबाडटली आनी तें जल्मलें जाल्यार अपंगूळ जल्मतलें म्हण आमी आमच्या भुरग्याचो गर्भपात केल्लो. रिगन, तशें आनीक एकदां घडत म्हण म्हाका भिरांत दिसता. Please, हांव तुजेलागीं हात जोडटां.

रिगन : पूण वेनेसा, तूं अशेंच भियेवन रावलें जाल्यार आमकां भुरगें कशें जल्मतलें? भुरग्याविणें ह्या घराब्यांत सूख कशें येतलें ?

वेनेसा : पूण म्हजेकडल्यान आनी परत ह्या घराब्यांत सूख दिवंक घडचें ना. म्हज्या कुसव्यांत परत एकदां निरुपयोगीच भुरगें जल्मलें जाल्यार? देखून रिगन, म्हज्या कुसव्यांत तूं केन्नाच भुरगें जल्माक हाडूंक सोदूं नाका.

रिगन : वेनेसा, तुका दिसना, काजारी जिवितांत एका भुरग्याविणें जिवित एक तारूं नाशिल्लो दर्या, मीठ नाशिल्लें जेवण म्हण? भुरग्याविणें काजारी जिवीत खऱ्यांनीच रूच नाशिल्लें म्हण?

वेनेसा : रिगन, तूं कितें सांगूक सोदता तें म्हाका बरें समजता. तरूय पूण तुजें उतर पाळूंक म्हजेकडेन जावचें ना. हो म्हजो निर्णय बदलचो ना. घडये भुरगें अपंगूळ जायत... वा विचित्रच जल्मलें जाल्यार...... ना तर परत एकदां कुसव्यांतल्या भुरग्याचो गर्भपात करचो पडलो जाल्यार?.... नाका म्हाका ती कटकटच नाका. म्हाका भुरगें नाका.

रिगन : (तापून) वेनेसा, "Forget the past" जें कितें फाटीं घडलां तेंच विचार घेवन मनीस बसलो जाल्यार, ना म्हळ्यार संवसारांत कांयच करूंक पावचो ना. सैमांत चूक आसताच. सैमांतल्यो चुको मनीस

सुदारतात. देखून वेनेसा, तुजीं चिंतनां बदल. आमचें हस्तुकी आमचें भुरगें जल्माक हाडूंक आमी तजवीज करुंया.

वेनेसा : (भियेवन) ना. हें म्हजेलागीं घडचें ना. म्हजे जिणेक हें कशेंच सभावीक ना. हांव तुका आदींच शिडकायतां. म्हाका सैमाचेर आनीक कसलोच प्रयोग करपाची इत्सा ना. तुज्यान भुरग्याविणें जियेवंक घडचें ना जाल्यार You can decide otherwise.

रिगन : हांव तुजेलागीं आनीक कांयच मागीना वेनेसा, पूण म्हाका म्हज्या रगताचें भुरगें जाय. (सगळ्या घरांतल्या वस्तूंचेर नदर मारून) वेनेसा, तुका दिसना, ह्या आमच्या घरांत एक भुरगें आसचें म्हण? जाणें न्हिदेंतलें उठून 'उंगा-उंगा' करचें आनी ह्या घराच्या वण्टींमदें ताचो आवाज गाजचो म्हण? तुका दिसना, तुवें आमच्या भुरग्याक एका पाळण्यात धोलोवन खेळगुडयांनी 'चिंग-चिंग' करून खेळोवचेंशें म्हण? मोटारां, सायकली घेवन हेवटेन-तेवटेन खेळून खेळून गडबड-गडबड, भुरग्याचे खिचळणेचो आवाज आमच्या घरांत जाल्लो तुका नाका? वेनेसा, अशें जाल्लें तुका नाका?

वेनेसा : पयलीं जाय दिसतालें.... पूण आतां बिल्कूल नाका दिसता.

रिगन : नाका दिसता? Are you mad वेनेसा?

वेनेसा : You may say so! I won't mind. पूण हे परिस्थितींत हांव मात म्हजो निर्णय कसोच बदलचें ना. म्हज्या कुसव्यांत आनीक एक भुरगें हाडपाची तजवीज करचें ना. आनी तुका भुरग्याविणें ह्या संवसारात जियेवंक अवघड - अडचण जातली जाल्यार There is one option.

रिगन : कसलें Option वेनेसा? Divorce?

वेनेसा : (सारकें रिगनच्या फुड्यांत येवन) ना.

रिगन : जाल्यार कितें?

वेनेसा : एक भाड्याचो कुसवो घेवंया आनी आमचें भुरगें जल्माक हाडुंया. होच उपाय आतां म्हाका सुचता. आमच्या बियाचें-विर्य ह्या भाड्याच्या कुसव्यांत रोपुंया आनी आमच्या रगताचें भुरगें जल्माक हाडुंया. This is the only option. This is the latest technology in medicine! Yes. We can go for a surrogated child.

रिगन : What?? Surrogated child???

(काळोख)

(पयलो पड्डो पडटा.)

## दुसरो पड्डो

(रिगनाचें घर)

(आसात रिगन, वेनेसा आनी तांचेमदीं एक अस्तुरी (बेला), तिच्या पोटावेल्यान लोकांक दिसता की तिका भुरगें जल्मपाचें आसा आनी तिका णववो म्हयनो चलता. वेनेसा आनी रिगन खुशाल आसात.)

रिगन : बेला, जाणां तूं? णव म्हयन्या आदीं आमी दिल्ली जायरात वाचून तूं आमगेर कितलें सादें-सुदें, भिवकुटें - बाबडें कशें आयिल्लें तें?

बेला : सर, आसूं तें. फाटलें फाटीं गेलें. फुडें कितें जातलें ताची वाट पळोवंया.

रिगन : वेनेसा, आतांच्या आधुनिक काळांत मनीस खऱ्यांनीच नशिबवंत. विज्ञाना उदेशीं मनशान इतल्यो सुदारणा केल्यात, मनशाक आनीक कसलीच चिंता करपाची वा दुखान सारपाचे दीस उरूंक नात. जिवीतांतलीं सगळीं उणेपणां जीं आदल्या काळाचो लोक सोंसतालो तो काळ आतां ना. हय, ह्याच विज्ञानाचे सवलतीन आज आमी ह्या आधुनिक संवसारांत खुशाल आसात. फाटलीं आठ वर्सां आमी निर्शेवणेन सारलीं. आतां आमच्यांनी खुशाल दीस सारूं येतात. Is it not right, Venesae?

वेनेसा : Yes! फाटलीं आठ वर्सां आमच्या जिवीतांत काळोख आसलो. लोक आमकां केंडटालो, पूण आतां विज्ञानीक पद्दतीन आमचें बीं खेरीत तरेन मेळोवन आयज तें दुसऱ्याच्या कुसव्यांत वाडटा, तें पळोवन आतां सगळ्यांचीं तोंडां बंद जाल्यांत, कित्याक आनीक थोड्याच दिसांनी आमच्या घरांत उजवाड पेट्टलो. आनी ओंपिल्या बियाचें फळ आमकां मेळटलें. दुसऱ्या आवय-बापाय परीं आमीय आवय बापूय जातलीं...... न्ही रिगन?

रिगन : Of Course. Yes...

बेला : पळयात तुमच्या दोगांयचो आवाज आयकून, म्हज्या कुसव्यांत आयिल्लें तुमचें भुरगें खोशयेन उडणां मारता. (आपल्या पोटाक दोनय बाजूंनी हात लावन) पळयात, पळयात, पळयात कशें दोनय बाजूंनी खोंटो मारता तें पळयात. (धांवून, धांवून वेनेसा येवन तिच्या पोटाक कान लावन आयकता.)

वेनेसा : हय, हें आमचें भुरगें पोटांत खेळटा. आमचो आवाज आयकून खुशाल जालांऽ शें दिसता.

(रिगनय आपूण तिच्या पोटाक कान लावंक वता.)

रिगन : राव, राव हांव पळयतां. कश्यो खोंटो मारता त्यो... (वेनेसा ताका आडायता.)

वेनेसा : ए, तिच्या पोटाक कान लावंक तुका परवानगी ना. तूं दादलो.

रिगन : हें हांव विसरलों दिसता...???

## कांत -1

## कोरस

रिगन : **जातां, जातां, जातां. रोखडोच हांव पापा जातां.**

वेनेसा : **जातां, जातां, जातां. रोखडींच हांव मामा जातां.**

वेर्स

बेला : **बीं तुमचें कुसव्यांत किल्लयलां, विज्ञानाचीं वापरून नवलां.**

रिगन : **वांजडी म्हण लोक दाखयताले बोटां.**

वेनेसा : **धनया, तूंच कर, बंद तांचीं तोंडां.**

कोरस

वेनेसा : **दितलीं, दितलीं, दितलीं. भुरग्याक मोग हांव दितलीं.**

रिगन : **दितलों, दितलों, दितलों. सगळो म्हजो वेळ दितलों.**

वेर्स

बेला : **सूख तुमच्या घराक हाडटलीं, आशा तुमची भागयतलीं.**

रिगन : **ल्हानाचो व्हड ताका आमी करतलीं.**

वेनेसा : **Computer-tech. आमी ताका शिकयतलीं.**

कोरस

रिगन : **जातां, जातां, जातां. रोखडोच हांव पापा जातां.**

वेनेसा : **जातां, जातां, जातां. रोखडीच हांव मामा जातां.**

(कांत सोंपतगीर ल्हवूच जोसेफ (सिर्विस सोदपी तरणाटो) वेगवेगळीं वर्तमानपत्रां घेवन भितर सरता.)

जोसेफ : May I come in please?

रिगन : कोण तूं? आनीक कित्याक आयला?

जोसेफ : (सोमतोच भितर सरता.) हें घर मि. रिनाचें न्हय?

रिगन : What Reason? रिन न्हय... मि. रिगन डिसोजा.

जोसेफ : Yes! तोच तो मि. रिगन डिसोजा, Near पणसा भाट, Behind पेरीभाट. Opposite काजूभाट, House No. 123, Where is he?

वेनेसा : हय. हेंच घर तें. पूण तूं कित्याक आयला?

जोसेफ : (वर्तमानपत्र काडून दाखयता.) तुमगेर नोकरी आसा म्हण ह्या पेपरार तुमी जायरात घाल्या.

वेनेसा : ही खबर णव म्हयन्यांफाटली. ती नोकरी आसली पूण आतां No Vacancy.

जोसेफ : Ok, Ok. ह्या पेपरार आयिल्ले नोकरेक No Vacancy जाल्यार No Problem. (दुसरो पेपर काडून) ह्या पेपरार आयिल्ली नोकरी तरी म्हाका मेळटलीच. Sir, ही नोकरी आसा न्हय?

रिगन : ती एकूच नोकरी. पूण आमी दोन पेपरांर जायरात दिल्ली.

जोसेफ : कितें? एकूच नोकरी आनी दोन पेपरांचेर जायरात? हेंच तें, तुमचें चुकता तें. अशें करून तुमी लोकांक फटयतात.

रिगन : आमी आमकां जाय तितल्या पेपरांचेर जायरात दितले. तूं आमकां विचारूंक कोण?

जोसेफ : विचारूंक कोण? नोकरी तूं करतलो काय हांव करतलों?

रिगन : जाल्यार णव म्हयन्यां आदीं कित्याक येवंक ना?

जोसेफ : फाटी कित्याक येवंक जाय? हांव म्हाका जाय तेन्ना येतलों. तुमी ती नोकरी भरली म्हण परत जायरात दियपाची न्हय? नोकरी आसा म्हण तुमी दोन पेपरांचेर जायरात दिल्ली. पूण नोकरी भरली जाल्यार एकाय पेपरांचेर जायरात घालपाची न्हय?

रिगन : तूं जाणां, ती जायरात कसली आसली ती?

जोसेफ : हय. Wanted surrogated mother म्हण.

वेनेसा : मागीर ती नोकरी तुका कशी मेळूंक शकता? तूं ते नोकरेक कसो पात्र जाता?

जोसेफ : कसो पात्र जाता? आगो Surrogated mother जाय म्हणटगीर Surrogated father "जायच न्ही?" पळय, कोंबी आसा थंय कोंबो आसता, 'मदर' आसा थंय 'फादर' आसता. हांगाच कित्याक ना?

रिगन : तूं तकलेन सारको ना दिसता. बरें, तुवें पेपरार त्या जायराती सकल आनीक एक जायरात आसा ती वाचल्या? ती नोकरी तुका सारकी फीट आसा.

जोसेफ : (पेपर दाखोवन) खंयची? ही जायरात? आं... हय मरे. ही नोकरी म्हाका सारकी फीट आसा... पूण तुमी तुमची नोकरी भरली जाल्यार ती नोकरी House Full म्हण जायरात दिवपाची न्ही? सिनेमाच्यो तिकेटी काबार जाल्यार House Full म्हण बोर्ड घालतात. तुमची नोकरी भरली जाल्यार House Full म्हण बोर्ड घालप न्ही? तुमी जाणां, हांव खंयच्यान आयलां तो? हांगा तुमगेर येवंक म्हाका दोनशीं रुपया खर्च जाला.

वेनेस्ता : म्हणटगीर तुका आतां तुजे दोनशीं रुपया जाय तर?

जोसेफ : दोनशीं रुपया? ना... हांव तसो दुडवांचे आशेचो न्हय. म्हाका तुमचे दुडू नाकात. (ल्हवूच रिगनाचे कुशीक वता.) बाबा, सांगतां म्हण रागार जायनाका. तुजेकडल्यान म्हाका दोन लाख मेळत?

रिगन : (तापून) कितें? दोन लाख? लाग चालीक. Get lost हांगचो... (ताका धांवडायतात. तो वता. ताका हांसत रावतात.)

वेनेता : न्युसन्स खंयचो.

(बेला आपलें पोट धरून दुखलें कशें दाखयता.)

बेला : हायस. हाय! हाय! म्हज्या पोटांत दुखता. म्हाका बरें दिसना... म्हाका दिसता म्हजो वेळ लागीं पावलाऽ सो म्हण.

वेनेसा : बेला, भियेवं नाका... शांत राव... तुका कांयच जायना... सुशेगाद राव. (परत पोटाक कान लायता.)... रिगन, आमी आनीक वेळ करचो न्हय. चल Don't waste time... It is her labour time. You call the doctor... हांव ताचीं बॅगां पॅक करतां. (हांगासर दोगांय गडबड - गडबड करून लोकांक हांसपा सारकें करतात.)

रिगन : Ok. वेनेसा. (फोन सोदता. तेन्ना वेनेसाक आदळटा. वेनेसाय हेवटेन तेवटेन धांवून धांवून ब्रिफकेस आनी दुसऱ्यो गरजेच्यो वस्तू एकठांयतना रिगनाक आदळटा.) (व्हडल्यान म्हणटा.) 2244098. "Hello, Hello" डॉक्टर, बेला दुयेंत जालां. I think she is having labour pain. आमी ताका रोखडींच आमचे मोटारींतल्यान घेवन येतात. Ok. डॉक्टर, आमी रोखडींच येतात. Ok. (रिसीव्हर दवरता.)

(काळोख)

(सेट बदलता. एक हॉस्पिटल दिसता. वेटींगरुमांत रिगन आनी वेनेसा दिसतात. दोगांय नेर्व्होस आनी हुस्क्यांत दिसतात.)

रिगन : वेनेसा, तूं कांयच भिनाका. भुरगें बरे भशेन जल्माक आयल्यार पुरो म्हण माग.

वेनेसा : हय, म्हाकाय तोच हुस्को जाला. धनया! भुरग्याक कांयच वायट करीनाका, डॉक्टर. (डॉ. फोन्सेका आपले हात पुशींत भायर येता.)

डॉ. फोन्सेका: Congratulation Reagan family (दोगांयकय हात दिता.)... तुमची आशा पुरी जाली. तेच बरोबर म्हजो प्रयोगय येसस्वी जालो.

Now you are the proud parents of new born girl child.

(दोगांय एकामेकांक पळयतात, एकामेकांक हात दितात. वेंग मारतात.)

दोगांय : We are the proud parents of new born girl child!!! डॉक्टर वचूंक करता तेन्ना)

वेनेसा : डॉक्टर, भुरगें बरें आसा न्हय? सगळे वटेन सारकें आसा न्हय... डॉक्टर? हात पांय ... आनी हेर सगळे वटेन?

डॉ. फोन्सेका: कांयच भियेवंची गरज ना. Child is absolutely fine.

(काळोख.)

(दुसरो पड्डो पडटा.)

# तिसरो पड्डो

(5-6 म्हयन्या उप्रांत)

बेला खाक्यांत 5-6 म्हयन्याचें भुरगें घेवन आपले छातयचें दूद दिता. वेनेसाय बी आसा. भुरगें रडटा. बेला भुरगें रडटा ताका ओगी करता जाल्यार वेनेसा ताच्या पोटांत दुखता म्हण वखदां दिवन ताका शांत करपाचे येत्न करता. दोगांय भुरग्याची एक सारकी अर्पुबाय आनी मोग करतात म्हण दिसूंक जाय. वखद (Carmicide) दितगीर भुरगें वेनेसाच्या खांदार सुस्त न्हिदता. ताका वेनेसा व्हरून भितर रुमांत बेडार घालपाक बेडरुमांत वता.

बेलाक खात्री जाता कीं आतां भुरगें वेनेसाकडेन रावता म्हण. आनी जेन्ना ताची कबलात काबार जाता (पंदरा म्हयने) तेन्ना मॅडमीक बेला आपली कबलात कावार जाल्या आनी आपूण घरा वता म्हण सांगता. वेळ सांजेच्या 5.30 वरांचो.

बेला : मॅडम, म्हजे 15 म्हयने सोंपले आनी आतां म्हजी कबलात काबार. हांव वतां. आयज रातची ट्रेन धरून म्हज्या गांवांत परत वतां.

वेनेसा : बेला, तूं वता? (अजाप जावन) आनी सराक सांगनासतना? आतां 5.30 वरां जाल्यांत आनीक थोड्याच वेळान सर ऑफिसाक सावन येतलो. तो आयलो म्हणटगीर तूं वच.

बेला : मॅडम, हांवें सराक सगळें सांगलां.

वेनेसा : सगळें सांगलां? आनी सरान तुका वच म्हण सांगलां? तुजो Payment तुका फारीक केला तर? म्हजेकडेन जाल्यार सद्याक तितले पयशे नात. सर येतगीर वच. ना तर कितें म्हणटलो?

(रिगन ल्हवूच आपूणच दार उगडून दाराची बेल वाजयनासतना येता.)

रिगन : म्हणटलो आनी कितें? ज्या वावराक तिका हाडिल्ली तो तिचो वावर जालो. आतां ती वता म्हणटा जाल्यार तिका दवरुंया? वचूं दी तिका. (आपली ब्रिफकेस उगडून तांतुंतलो एक ड्राफ्ट आनी थोडे पयशे काडटा आनी उपरांत एक स्टेंप पेपर काडटा. बेलाक पयशे फारीक करता आनी ताची पावती घेता. ताची कबलात काबार जाल्या म्हण दाखोवंक बेला भितर बॅगां हाडूंक वता. तेन्ना वेनेसा रिगनाक येवन सांगता.)

वेनेसा : रिगन, एके अस्तुरेक जिका ह्या संवसारांत कोणच ना आनी जिणें आमकां इतलो मोग आनी मोयपास दिला ताची आमकां इल्ली तरी दया-माया आसूंक जाय न्ही? तिच्या उपकारांत आमच्या काळजांत इल्ली तरी सुवात आसूंक जाय न्हय?

रिगन : वेनेसा, Why are you complicating the whole matter? She was on contract. Now that contract is over. She is free to decide. she says, she is going. Let her go...!

वेनेसा : बेला, तूं म्हण्टालें न्ही, तुज्या गांवांतलें तुजें घर मोडलां आसतलें म्हण आनी थंय तुजो कोण ना म्हण? आतां तूं खंय म्हण वतलें ?

(बेला थंयच थांबता आनी ओगीच फाटल्यान पळयता.)

रिगन : वेनेसा, वचूं दी ताका. ताचो फुडार करूं दी ताका. तिचे खोशयेर

आमी आडखळ हाडची न्हय.

वेनेसा : पूण रिगन, भुरगें तर अजून ल्हान आसा. एका भुरग्याचो कितलो वावर तें तूं जाणां? आमी तर दोगांय ऑफिसांत वतात. आमकां खंय वेळ आसतलो? आमकां तर कोणय दुसरी वावराडी हाडची पडटली. बेलापरस बरी आनीक दुसरी कोण मेळटली? तिका परत धाडून नवी वावराडी हाडप म्हळ्यार पिशेपण दिसना?

रिगन : पूण तिका रावपाची इत्सा ना जाल्यार तिका आमी कित्याक फोर्स करुंया?

वेनेसा : रिगन, तिकाच दवरल्यार आमकां अदीक फायद्याचें पडटलें. By now she is used to our house, our habits, our way of life and to almost everything.

रिगन : तुका तशें दिसता जाल्यार, I have no objection. It is up to you. You decide.

रिगन : (बेलाक सांगता) बेला, तूं घरा वचूं नाका. तुका हांव आतां दिला ताचेपरस दोट्टी पयशे फारीक करतां... तीन जाल्यार तीन, चार जाल्यार चार हजार.

बेला : ना... मॅडम... ना.. हांव वतां. म्हाका वचूंकच जाय.

वेनेसा : बेला, ना. तुजी आमकां गरज आसा. तुजी ह्या घराक गरज आसा.

(म्हज्यांत बेला वचून तिच्या हाताक धरून) बेला, तूं वचूं नाका. तूं आमगेरच परत कामाक राव.

(काळोख.)

(रस्त्यावेलो देखाव. वेनेसा आनी रिगन येतात.)

वेनेसा : रिगन, पळय सालांसंक एक वर्स जायत आयलें. तें आमचे एकलेंच

भुरगें आनी ताचो वाडदीस मोट्या दबाज्यान केल्लो म्हाका जाय. तुका कितें दिसता?

रिगन : म्हाकाय तशेंच दिसता. आठ वर्सांनी आमच्या घरांत देवान दिवो पेटयला. आमचीं घरचीं आनी म्हज्या ऑफिसांतल्या सगळ्या इश्टांक आमंत्रण दिवपाचें हांवें चितलां.

वेनेसा : Exactly. हांवेंय तशेंच चिंतला. पळय, आमकां तयारेक आनीक फकत एकच म्हयनो उरला. पळय, आयजच ऑफीस सुट्टगीर बरींशीं आमंत्रणपत्रां छापूंक ऑर्डर दी.

रिगन : O.K. वेनेसा, तें तूं म्हजेर सोड. आनी वेनेसा, तूं कॅटरिंगाक ऑर्डर दिवंक विसरूं नाका. O.K. बाय.!

(रस्त्यावेलो देखाव सोंपता.)

(काळोख.)

(रिगनचें घर दिसता.)

(बेला एका वर्साच्या भुरग्याक Baby Walker त घालून ताका खेळोवपाची तयारी करता. ताका खेळगुडे आनी दुसरीं भुरगीं खेळपाच्यो वस्तू घेवन खेळोवपाची आनी ताची जाप घेवपाची तजवीज करतात. पूण उमथ्या कळशार उदक.)

बेला : सालोमे, म्हजे धुवे, My darling, म्हाका एकूच फावट मम्मा म्हण. (परत परत खेळगुडो आळोवन तजवीज करता.) म्हाका एकूच फावट मम्मा म्हणून धादोशी कर. (पूण भुरगें कांयच जाप करना. आनी ताच्यान चलुंकूय जायना ... बेला सिंतीर जावन) ... धनया, देवा, कितें तुका वायट दिसलें ह्या निश्पाप भुरग्याचें? एक वर्स जायत आयलें, तें अजून जाप करना, न्हय पूण चलपाचो प्रयत्न करना. धनया देवा, तुवें अशें कित्याक म्हण निर्मिलें? म्हाका

कितलेय त्रास दिल्ले जाल्यार पर्वा ना, पूण ह्या भुरग्याक तूं कांयच वायट करनाका. तूं जाणां धनया, सर-मॅडमाची अपेक्षा. एका भुरग्याक तीं कितलीं आशेवन रावलीं आनी कित्याक तांणी ह्या भुरग्याक एका भाड्याच्या कुसव्यांत जल्माक हाडलें तें. आनी जरी तर हें परत घडलें तर तांच्या जिवाक कितें भोगतलें? आनीक कितलो तेंप म्हण हो गूट हांव तांकां लिपोवन दवरूं? तांकां हें कळटगीर तीं ह्या भुरग्याक नाकारतलीं काय स्विकारतलीं? (परत भुरग्याक खेळोवंक सुरवात करता.) सालोमे म्हजे धुवे, My darling, ना, तुका हांव केन्नाच सोडचीं ना... म्हाका एकच फावट मम्मी म्हण न्हय! (रिगन ल्हवू बेल मारीनासतना एक खेळणें घेवन येता आनी बेला आपल्या भुरग्याक खोशयेन खेळयता तें पळोवन खुशाल जाता. रिगन भुरग्याक हात लावन हडकिता. बेला अकस्मात भियेवन) सर! तूं घरा आयलो? आनीक ऑफिसाक वचूंक ना? मॅडम खंय आसा?

रिगन : आं! ना. जाणां बेला, काल तूं सालोमेक कितलें अपुर्बायेन खेळयतालें तें हांवें पळयलें, देखून आयज हांव हो घोडो घेवन आयलां. आतां सालोमेक ह्या घोड्यार बसोवन खेळोवपाचें.

बेला : पूण सर! तुका परत घरा येवंक कितें कारण?

रिगन : बेला, खरें म्हळ्यार तूं म्हजे मोटारींत म्हजी ब्रिफकेस घालूंक विसरलेलें. तानूंत म्हजी कागदपत्रां आसात, तीं व्हरूंक म्हाका परत येवचें पडलें. देखून येतना हो खेळपाचो घोडो घेवन येवपाचें चिंतलें.

बेला : ओ! हां... सर मानशें सालोमेक धर आं. (सालोमेक रिगनाकडेन दिता आनी धांवून भितर वता. इतलें म्हणसर रिगन सालोमेक त्या घोड्यार बसोवन खेळयता..... थोड्यावेळान बेला ब्रिफकेस घेवन येता.)

सर, घे तुजी ब्रिफकेस. Sorry Sir! म्हजी चूक जाली. ह्या दिसांनी

म्हजी तकली जाग्यार ना.

रिगन : बेला, हांव जाणां तुका आमच्या घरांत आनीक कामाक रावपाची इत्सा नासली म्हण. हाकाच लागून तुजी तकली जाग्यार नाऽशी दिसता. पूण सद्याक तूं आनीक थोडोच तेंप आमगेर राव. आमकां एक बरीशी वावराडी मेळत जाल्यार तुज्यान वचूंक जाता.

बेला : ना सर.... म्हाका वचूंक नाका. पूण व्हड टेन्शन जालां.

रिगन : टेन्शन जालां? कसलें? तूं बेश्टेंच टेन्शनबी घेवन बसूं नाका. तूं आमच्या घरांत टेन्शन फ्री, खुशाल जिये. Be Happy!

बेला : पूण सर, दुडवांनी सूख विकतें मेळटलें जाल्यार हांव घेतली आसली. (चिंतता.)

रिगन : बेला, तूं रडटा? What is the matter? तूं कित्याक फुगार जाता?

बेला : सर! सालोमेक आतां एक वर्स जायत आयलें. पूण अजून ताचें उतर सुटूंक ना, ना म्हळयार तें पांय जमनीक तेंकयना. सर! मॅडमीक कळयनासताना ताका आमी दोतोरागेर तपासूंक कित्याक व्हरीनात?

रिगन : बेला, Don't Worry. दोतोरान ताच्या रिपोर्टांनी, ताचे वाडीचेर कांयच परिणाम दाखोवंक ना. तूं कित्याक नर्व्हस जाला? Her growth is absolutely normal. (मातसो ओगी आनी चिंतेस्त जावन) पूण बेला, तुजो दुबाव पयस करूंक, मॅडमीक कळयनासतना आमी सालोमेक दोतोरागेर व्हरुंया. Come on. Let's go!

(काळोख.)

(सेट बदलता. कसंल्टींग रूम दो. फोन्सेका सालोमेक तपासतना दिसता. रिगन आनी बेला फुड्यांत आसात.)

दो. फोन्सेका : (तपासताना मदींच विचारतात.) हें तुमकां केन्ना कळ्ळें?

बेला : एक आठवडो जालो दोतोर.

दो. फोन्सेका : (परत तपासता.) तुमी ताका हांवें दिल्लीं तितलींय वखदां दिल्यांत न्हय?

बेला : दोतोर, सारकें तुज्या रेसैता प्रमाणें. कांयच उणें करूंक ना. वेळा-वेळार दूद, विटामिनां, सगळें सारकें दिलां ताका.

दो. फोन्सेका : तें रडटना आवाज मातसो मोटो येता?

बेला : हय दोतोर, मातसो मोटो कसो येता.

दो. फोन्सेका : Sign of.......

बेला : दोतोर Sign of..... कितें दोतोर?

दो. फोन्सेका : (दोतोराक दुयेंस कळटा. एक लांब हुस्कार सोडटा आनी येवन आपल्या कदेलार बसता. पळय मि. रिगन, हांवें भुरग्याची पुराय तपासणी केल्ले प्रमाणें रिझल्ट मातसो गंभीर आसा. आनी तुमच्या दुबावाप्रमाणें Sign of dumbness and weakness in left leg is confirmed म्हणचे भुरग्याच्यान उलोवंक आनी दाव्या पायान चलपाक जावचें ना.

रिगन : (बेला तकली बागोवन रडटा आनी फुगार जाता.) ना, दोतोर ना. Don't tell me that.

दो. फोन्सेका: I am absolutely sorry मि. रिगन! I am helpless! जें कितें रिपोर्टांतल्यान कळटा तें हांव तुका सांगतां.

रिगन : हांव म्हजे घरकान्नीक ही खबर कशी कळयतलों? दोतोर, तूं जाणां म्हजे घरकान्नीक हीच भिरांत आसली म्हण? पयलीं जल्मल्लें तशेंच परत आपल्याक अपंगूळ भुरगें जल्मत आनी परत एकदां आपल्याक

गर्भपात करूंक पडत म्हण, ती आपल्या कुसव्यांत भुरग्याक जल्माक हाडूंक सोदीनासली आनी त्याच कारणाक लागून (फुगार जावन रडटा)..... She will not tolerate this shocking news, doctor ...... she will not tolerate this news.

दो. फोन्सेका: Take courage रिगन. असल्यो गोष्टी सोसूंक खऱ्यांनीच अवघड. पूण आयज ना फाल्यां ल्हवू-ल्हवू त्यो दुखावतल्या मनशाक उकत्यो करच्योच पडटात. नातर ताच्या जिविताचेर वायट परिणाम जावंक शकता. मि. रिगन, ही खबर तुजे घरकान्नीक विस्वासांत घेतलेउपरांतच सांगची पडटली. Till then it should be a secret.

रिगन : (रिगन बेलाच्या तोंडाक पळयता.) आयकलें बेला तुवें?

बेला : सर, म्हजेर विस्वास धर.

(काळोख.)

(तिसरो पड्डो पड्टा.)

## चवथो पड्डो

(रिगनाचें घर)

(आनीक तीन म्हयन्या उपरांत.)

(वेनेसाक आतां सालोमें मोनें आनी पांगळें म्हण पुराय खबर आसा.रातचो वेळ, सालोमें न्हिदलां.)

घरांत वेनेसा आसा.

**कांत - 2**

वेनेसा : **अनीत आदारून म्हजेर सैमान**

**पडलें हांव व्हड लजेच्या खोंणांत**

**चिटुंक ना हांवें लेगीत म्हज्या सपनांत**

**काळीज कित्याक निबर केलां जायत देवान**

कोरस

**जिवीत संवसारांत मनशा तुजें एक फकाण**

**आरंभ तुजो गर्भेस्त आवयच्या पोटांत**

**तरे-तरेचे मनीस, वेगळ्या-वेगळ्या रुपान**

एक सारकीं सगळ्यांक कित्याक रचूंक ना देवान

धनया, कित्याक तुवें म्हज्या कुसव्यांत फकत अपंगूळच भुरग्यांचें बीं ओंपलां? कितें तुका म्हजें वायट दिसलां? दोन फावट अपंगूळ जल्मतलें भुरगें हांवें गर्भपात करून ना केलें आनी हें परत घडचें न्हय म्हण हांवें भाड्याच्या कुसव्यांत हो गर्भ सांभाळलेलो. पूण ना, तुवें म्हाका त्या वायटांतल्यान वाटावंक ना. परत म्हज्या बियांच्या फळाचें भुरगें तुवें अपंगूळच जल्मा घालें. (रिगन फुरयोज जाता.) पूण ना, हांव ताका स्विकारचें ना. म्हाका अपंगूळ भुरगें नाका. हांव ताका म्हज्या घरांत दवरचें ना. म्हाका अपंगूळ भुरगें नाका. हांव ताका कसलो ना कसलो उपाय काडून ह्या घरांतल्यान पयस करतलें. (सगळीं घरांत आशिल्लीं टेडी-बेरां, खेळ फोडटा, शेंवटिता. उपरांत भितर वता.)

(रिगन येता आनी हें पळोवन हुस्कारता.)

रिगन : धनया, सगळ्या सैमाचो तूंच रचणार जावन आसा. जें कितें तुज्या हातांतलें आमकां फावो जाता तें तुजेंच आसा. आमी तें खोशे-मनान स्विकार करूंक जाय. म्हजे घरकान्नीक हेंच बळ दी धनया.

(शेंवटिल्ल्यो त्यो वस्तू सारक्यो करता, दवरता आनी ओगीच सोफार बसता. थोड्यावेळान जोजेफ भितर सरता.)

जोजेफ : बाबा, excuse me आं?

रिगन : कोण तूं? परत हांगा?

जोजेफ : बाबा, तूं रागार जायनाका आं, हांव मातशें इल्लें घेवन आयलां म्हण. बाबा, तूं सारको लकी. तुजे इतलो लकी आनीक कोणच ना. तुवें म्हाका थंय सिर्विसेक धाडलो देखून तुका सांगपाक आयलों. पूण बाबा, कितें सागूं? थंय म्हाका Surrogated father जावंक चान्स पडलो ना. थंय दिसाक कितलींच भुरगीं जल्मतात काक-काक

करून. पिण्टा पिण्टाक शंबर, दोनशीं, तिनशीं भुरगीं. थंय, I am of no use. सगळीं ऑटोमॅटीक. म्हजी गरजच ना. देखून हांव Back to the pavillion. तुमगेर सोदून थंय गेल्लों. पूण तुमगेरच आयल्लो बाबा, हो लोक सांगता, तूं सारको लकी म्हण. तुमगेर सिर्विस करता नांवय लोक सारको लकी जाता म्हण. आनी तुमगेर येला म्हण आसा, ती तुजेपरस डब्बल लकी. देड वर्सा भितर देड लाख जोडले तिणें आनी सगळे देड लाख प्रॉफीट. No Loss! म्हाका स म्हयने जाले, पूण हांवें आजून स रुपयांचोय फायदो करूंक ना. I want only that job. Surrogated father. म्हाका देड वर्साक देड लाख नाका. 50% discount will do.

रिगन : (तापून) जोजेफ, तूं म्हजी नकली फिरंगी आदीं हांगच्यान बऱ्यान कडसरून वच. ना तर... हांव तुका...

जोजेफ : आरे बाबा, तूं कित्याक गरम जालो? थंड जा. फाल्यां परत येतां. बरें, बरें वतां हांव ... Good night. (जोजेफ लकत-लकत वता. रिगन सोरो ग्लासांत वतोवन घटा-घटा करून पिता. वेनेसा येवन ग्लास धरता - आडायता.)

वेनेसा : आतां सोऱ्याचो आदार घेवन किते करता? जर तर आमी ताका जल्माकच हाडपाचो प्रयत्न करूंक नाशिल्लो जाल्यार आमी ह्या त्रासांत पडचीं नासलीं. हांव असल्या अपंगूळ भुरग्याची रिस्क घेवंक आदींच तयार नासलें! हें तूं स्पश्ट जाणां. असलीं भुरगीं पोसून आमी कितें करतलीं? कितें उपयोग आसा असल्या भुरग्यांचो?

रिगन : वेनेसा! Surrogation वापरूंक तुजोच निर्णय न्हय तो? तुवेंच हें Option म्हज्या मुखार मांडिल्लें न्हय? उपरांत आमचें विर्य विज्ञानीक पद्दतीन तिच्या कुसव्यांत मेळोवन णव म्हयने तिच्या कुसव्यांत वाडयलां आनी तिणें ताका फकत जल्म दिला. तें भुरगें आमचें आनी कशें तूं ताका तें आमचें न्ही म्हणटा? फकत तें मोनें पांगळें

जल्मलां म्हण? आनी अवचीत ताका ॲक्सीडेंट जावन घडये तें अपंगूळ जाल्लें जाल्यार ताका तूं नाकारतलें आसलें?

वेनेसा : (ओगीच रावता.) पूण ह्या मोन्या - पांगळ्याक पोसून आमकां कितें मेळटलें? जनावर लेगीत पोसलें जाल्यार ताचो जरूर फायदो मेळटलो. म्हाका जाल्यार असलें मोनें - पांगळें भुरगें नाका. म्हाका नाका म्हळ्यार नाका. आमी ताका आमचे नदरेपयस दवरुंया. वचूं दी ताका जाय थंयसर.

रिगन : वेनेसा, हें तूं उलयता? ना, वेनेसा ना. तूं सांगता तें करूंक म्हजे कुडींत इतलें काळीज ना. हें भुरगें म्हळ्यार देवाचें देणें. सैमान अपंगूळ जल्माक घालें जाल्यार लेगीत आमी ताका मानून घेवंक जाय. देवाचो गूट देव जाणां. तूं सांगता तशें करूंक हांव तयार ना.

वेनेसा : तूं कबूल ना? हांव सांगता तें आयकना जाल्यार हांव तुजें कोणच न्हय म्हणून समज. हांव तुका आयची रात आनी फाल्यांचो दीस दितां. ते उपरांत तें म्हाका हांगा नाका म्हळ्यार नाका.

रिगन : हें तूं म्हाका कशें कर म्हणटा? वेनेसा, तूं जाणां, एका भुरग्याक हांव कितलो आशेतालों तो? कसलो तरी उपाय करून आतां देवान आमकां एक भुरगें दिलां आनी त्याच भुरग्याक तूं म्हाका धांवडावंक फोर्स करता? ना, हें म्हजेलागीं घडचें ना. जल्माक हाडिल्ल्या भुरग्याचो सांबाळ करपाची जबाबदारी जल्माक हाडिल्ल्या आवय-बापायची म्हण हांव जाणां. तूं ती विसरता जाल्यार विसर, हांव विसरचों ना.

वेनेसा : हय! हांव तुजी साक्रामेताची बायल जावन तूं म्हजें आयकूंक कबूल ना. सालोमें तिच्या कुसव्यांत जल्मलां. तिचें दूद पियेलां. आमकां ताचें व्हडलें लागना. तरूय पूण तूं ताचेच वाटेन वता. तूं तर ताका धांवडावंक कबूल ना जाल्यार हांव म्हज्या जिवाचें कितें करीत तें हांव नकळ. Now the ball is in your court. You decide. (अशें

म्हणून तें किदूंक वता.)

(रिगन वेनेसाच्या उतरांची वियाळ करता.)

आवाज-वेनेसाचोः "तूं तर नाका धांवडावंक कबूल ना जाल्यार हांव म्हज्या जिवाचें कितें करीन तें हांव नकळ. "Now the ball is in your court. You decide."

(रिगन भितर वता आनी एक सोऱ्याची बाटली आनी ग्लास घेवन भायर येवन पिता.)

आवाज 1: रिगन, वेनेसा तुजी मोक्रामेंताची घरकान्न. तुवें तिका भास दिल्ली, दुखांत तशें सुखांत तू तिच्या सांगाताक आसतलो म्हण आनी आतां तर तिचें आयकना, तूं तिचें उतर मोडटा. चल, चल आतांच्या आतां तूं ताका भायर घाल.

आवाज 2: रिगन, कितें करूंक तूं फुडें सरता? येद्राशा भुरग्याक तूं घरांतलें भायर घालता? तुजें रगत तूं वळखना? एक भुरगें जाय म्हण तळमळून-तळमळून खंयच्यान तुवें विज्ञानीक उपाय केलो आनी तुका भुरगें जल्मलें. तुका त्या भुरग्याचें मानय चुरचुरं दिसनात?

आवाज 1: रिगन, कित्याक फाटीं सरता? त्या भुरग्याक भायर घाल. त्या मोन्या-पांगळ्या भुरग्याक दवरशी तर, ह्या समाजाक तुवें एका मोन्या-पांगळ्या भुरग्याचो बापूय म्हण तोंड दिवचें पडटलें. समाज तुका चाळयतलो. ह्या समाजाक फुडो करूंक तुजी तयारी आसा?

आवाज 2: रिगन, तूं कितें करूंक फुडें सरता? एक भुरगें म्हणजे देवाचें दणें. एका मोन्या-पांगळ्याची सेवा करप म्हळ्यार तुजेर देवाचो आशीर्वाद मेळोवन घेवप, जशे ते मदर तेरेजान घेतिल्लो. तूं ताका सांबाळशी तर तुजेर देवाचो आशीर्वाद पडटलो. भुरग्याक तूं कांयच वायट करनाका.

आवाज 1 : रिगन, तुजें मन थीर कर. एकच निर्णय घे. हें मोनें - पांगळें भुरगें तुज्या घरांत दवरूं नाका.

आवाज-वेनेसाचो :“तूं तर ताका धांवडावंक कबूल ना जाल्यार हांव म्हज्या जिवाचें कितें करीन तें हांव नकळ. Now the ball is in your court. You decide.

आवाज 2 : रिगन, तूं करता तें सारकें आसा. आतांच्या आतां वच. सालोमें सुस्त न्हिदलां... ताका जिवेंशी मार... होच बरो वेळ आसा. अशें केल्यार कोणाकच दुबाव लेगीत पडचो ना. उडय निशाणीच काबार करून.

रिगन : Yes! you are right...

(रिगन उठ्ठा आनी सालोमें न्हिदला त्या रुमांत वता आनी ताका भायर हाडटा, ताची गोमटी फुगार करूंक वता. पूण इतल्यान फाटल्यान बेला ताका आडायता.)

(मध्यांतर)

## पांचवो पड्डो

(रिगनाचें घर)

(बेला इस्त्री मारता)

बेला : आयज 7 वर्सांपरस चड जालीं, ह्या घरांत. हांव आसां फकत ह्या सालांमेंक लागून. ताचो बापूय रिगन ताचो मोग करता, पूण ताची आवय बेनेसा ताका निर्शेना, ताका दोळ्यांमुखार घेना. ताका त्रास करता. तिणें ताचो खून लेगीत करूंक प्रयत्न केलो. खरें म्हळ्यार म्हजो हेतू ह्या घरांत येवपाचो वेगळोच आसलो. सैमाकडेन केल्लो खेळसैम खेळूंक दिना हें स्पष्टपणान म्हाका कळ्ळां. आर्थिक परिस्थितीक लागून इबाडलेल्या घराक लागून हांव पुराय शिकूंक पावलें ना. हांगा थंय नोकरी सोदूंक गेलें, पूण नोकरी मेळनासली. एक दीस Wanted Womb for Rent अशी एक जायरात हांवें वाचली. भुरगें जल्माक हाडटगीर एक लाख वीस हजार रुपया पगार मेळटा म्हण उमेदीर आसलें. हांवें ताका म्हजो कुसवो भाड्याक दिलो. कित्याक कुडीचो भोग थंय बिलकूल नासलो. 9 म्हयन्यां उप्रांत भुरगें बरे तरेन जल्मलें. पुण दुर्देवान, कांय काळान तें मोनें-पांगळें म्हण म्हाका कळून आयलें. हाकाच लागून हांव हानूंत घुस्पलें. मांसाक मांस, रगताक रगत विसरना म्हणटात ने भशेन आतां म्हाका ताका एकलेंच सोडून वचूंक दिसना. हांवें चिंतूंक ना, हांव ह्या रातेराक सांपडटलीं आनी हांगाच उरतलीं म्हण. कित्याक ताची, निज-सैमाची आवय ताका मानून घेवंक तयार ना. ताका ती त्रास

करता आनी अशीच परत एकदां कोणाक कळूंक दिनासतना ताका नाच्य करीत म्हण भंय दिसता.

(इस्कोलांतल्यान सालोमें येता. ताका इस्कोलाची मोटार हाडून पावयता. भितर येवन सालोमे आपलो रिपोर्ट दाखयता. बेला ताचो रिपोर्ट पळयता आनी ताका बरे गूण पडल्यात तें वाचता. उपरांत ताका हावभाव करून सांगता कीं आपणांक टिचरीन नाचाक वेंचून काडूंक ना म्हण आनी रडटा.)

बेला : कितें? तुका नाचाचे सर्तींत टिचरीन वेंचून काडूंक ना?

सालोमें : (तकली हालोवन 'ना' म्हण सांगता.)

बेला : सालोमे, नाच? तूं कशें नाचतलें बाय? तुजो पांय सारको ना. आसूं दी बाय. तूं रडनाका. (तें भितर वता.) देवान तुज्या पांयांक आनी जीबेक बळ दिवंक ना जायत पूण शिकपाक म्हजें सालोमें, तूं गिन्यानान हुशार आसा. म्हाका जाल्यार तें पांगळें आनी मोनें म्हण ताची सेवा करूंक कांयच उणेंपण भोगना, न्हय म्हण कसलोच त्रास जायना. तिसऱ्या वर्गांत शिकता तें पळोवन हांव खुशाल आसां. (सालोमें भितरल्यान एके प्लेटींत आयसक्रिम घालून हाडटा) ...बाय, तूं ती आय्सक्रिम खायनाका. ती तुका न्हय. मॅडमीन आपल्याक हाडून दवरल्या. (ती काडून घेता आनी भितर व्हरता.) बाय, ही आय्सक्रिम तूं खायनाका. मॅडमीक कळत जाल्यार ती तुजेर चाळवतली. तुका बेल्ट घेवन मारतली. (सालोमें रडटा.)

रिगन येता.

रिगन : बेला, कितें जालें? सालोमें कित्याक रडटा? (सालोमेंक घट्ट धरता.)

बेला : मॅडमीन फ्रिजांत आय्सक्रिम हाडून दवरल्या. सालोमें ती आपूण खावंक सोदतालें.

रिगन : बेला, आनी खाल्ली जाल्यार किते जालें? म्हाव्ं ती नाका नी आयसक्रिम.

बेला : सर, मॅडमीचो हुकूम आसा. तिणें आपल्या वस्तूक हात लावंनाका म्हण सांगला. म्हाका तिचो हुकूम मोडूंक भिरांत दिसता. बेल्टीच निमतां घेवन ती सालोमेक त्रास करता. बेल्ट घेवन मारता. ह्या घरांत फकत मॅडमीचें उतर चलतां. सर, तुका याद आसा कय. सालोमें मोनें आनी पांगळें म्हण मॅडमीच्या सांगण्यावर्वी तुवें ताची गोमटी फुगार करून जिवेंशी मारपाचो यत्न केल्लो नो?

रिगन : बेला, तो आनी उगडास करनाका. Your madam, madam, madam. Hell with your madam. तिकाच लागून हांव म्हज्या जिवीतांत फटवलां. सगळीं म्हजी चिंतना चिंतनाच उरलीं. बेनेसालागीं हांव काजार जाल्लों, म्हज्या काजारी जिविताचें सूख भोगूंक. शारीरिक संबंदांन म्हजो घरवो भुरग्या-बाळांनी भरूंक. पूण ताणें म्हाका नाकारलो. जशी शेपी किल्लनरगीर उदकाक आशेंना तेच परी म्हजें काजारी जिवीत तिणें एके गेपयेपरी किल्लायलें पूण फावो तें उदक शिंपीनासतना वावना तशें म्हजें जिवीत सुकोवन सुकोवन वावयलें. आतां म्हाका ताचें कांयच आयकुपाचें ना. बेला, बेनसाचें आयकून हांव तो खून करतलों आसलों. पूण देवाची म्हयमा नी. तुवें म्हाका आडायलो.

बेला : आतां ते घडणेक 6 वर्सां सोंपर्लीं. पूण पांगळें-मोनें आसतनाय सालोमें इस्कोलांत बरें शिकता. तुका ताचें किते दिसता? गर्व दिसता काय लज दिसता?

रिगन : गर्व दिसता.

बेला : जाल्यार तुका दिसना? एक भुरगें मोनें-पांगळें आसल्यारय आपल्या आवय-बापायचो मोग मेळ्ळो जाल्यार ताचे गूण अदीक बरे परजळीन जावंक शकतात म्हण?

रिगन : तें तुजें हांव मानतां बेला. पूण आमच्या घरांत सैम आनी निरसैम हो फरक आसा न्हय? जो मोग आनी मोयपास तुजेकडल्यान मेळटा तो म्हजेकडल्यान आनी वेनेसाकडल्यान ताका मेळना. हें पुरायपणीं सिध्द जालां म्हाका. तूंच ताका आवयचो मोग दिता. I acknowledge it from the bottom of my heart.

बेला : आठ वर्सां फाटीं एक अनवळखी आमची वळख जाल्ली. हे अनवळखी वळखीन जे संबंद म्हजे आनी तुजे धुवेचे आसात ते वेगळेच. चिंतपाक वेगळे जायत, पूण खऱ्यांनीच अणभवपाक आनी ते ना म्हणपाक अवघड. हें हांव कशें विसरूं? पूण आतां म्हाका आनीक रावंक दिसना. कित्याक, म्हाका म्हजो फुडार आसा. सालोमें तर आतां वाडलांय बी. आनी ताचें तें सगळें स्वता करूंक जाणां. तितलेंच ताका पुरो जातलें. ताका जाय तो फकत तुमचो मोग. ताका तुमचो मोग दियात. म्हजी आनीक ताका गरज उरची ना. देखून हांव म्हजो रस्तो धरतां आनी म्हजो पुडार करूंक वतां.

रिगन : ना बेला, ना. तूं हांगचें वचनाका. तूं गेलें जाल्यार, सालोमेंचे त्रास कमी जावचे नात. अदीक पाश्ट जायत म्हण हांव भितां. तूं गेलें जाल्यार सालोमेक एका आवय बापायची माया-दया कोण दितलो? तूं वचूं नाका बेला, तूं वचूं नाका.

(वेनेसा येता. ताका पळोवन)

वेनेसा : वा! तूं म्हजे आदीं घरा पावलो? आनी बेगीन जाल्यार तुवें म्हाका मोबायलाचेर कित्याक कळोवंक ना?

रिगन : (मोबायल काडून) खऱ्यांनीच वेनेसा. म्हज्या मोबायलाची बॅटरी डाव्न जाल्ली देखून हांव तुका कळोवंक वा मॅसेज धाडूंक शकलों ना. पूण म्हजें काम बेगीन जालें म्हण डायरेक्ट घरा परतलों.

(सालोमें धांवून येवन आपलें रिपोर्ट कार्ड वेनेसाक दाखयता.)

सालोमें : (हावभाव करून आपूण पास जालां म्हण सांगता. वेनेसा रिपोर्टकार्ड हातांत घेता, वाचता आनी तें रिपोर्ट कार्ड भायर मारता. तें सारकें रिगनाच्या पांयांकडेन पडटा.)

रिगन : वेनेसा, तूं जाणां, तूं कितें करता तें? तो मध्याक फकत पास जालो. पूण, तुवें जर ताका वेळ दिल्लो जाल्यार तो क्लासींत फर्स्ट रेंकीन येवंक शकतालो. हें तुजें वागणुकेक हांव बिलकूल सहमत ना.

वेनेसा : पूण एका मोन्या आनी पांगळ्या उदेशीं आमचो फुडार केन्ना तरी बरो जातलो म्हण तुका भरवंसो आसा?

रिगन : वेनेसा, आतां तुका आनी म्हाका अशें उलोवंचो हक्क ना. पूण हांव इतकेंच जाणां, असल्या भुरग्याक कोण मोगान वाडयता तर देव आपल्या भरवंशाची मजुरी दिताच. (रिगन हड्ड्यार हात धरता. काळजाचें आपल्याक आसा म्हण कळयता आनी जड आवाजान उलयता.).

वेनेसा : पूण रिगन, तुका कितें जालें? (ताका घट धरूंक वता.) हांव ह्या पांगळ्याक घेवन भोंवलीं जाल्यार आमचें भुरगें पांगळें म्हण सगळ्यांक कळटलें आनी हो लोक आमकां हांसतलो. देखून हांवें चिंतलां, ताका इस्कोलांत धाडपाचें बंद करूंक. तें आनीक इस्कोलांत वच्चें ना.

रिगन : Are you mad, वेनेसा? अशें तूं उलयतां तें. तूं पिशें बी जावंक ना मूं? (रिगन हड्ड्यार हात धरता... काळजाचें आपल्याक आसा म्हण कळयता आनी जड आवाजान उलयता.) ह्याच भुरग्याचो आमी खरो मोग करूंया आनी देव घडये आमकां आमच्या कश्टांचें फळ जरूर दितलो. देव घडये आमची परीक्षा करता जायत.

वेनेसा : (तो अदीक - अदीक फुगार जाता तें पळोवन वेनेसा भिना. तरीपूण आपलेच भिरकेंत) ... पूण ह्या घरांतलें ते भायर वचचें ना. (सालोमेक

ओडून हाडटा... आनीक रुमांत घालता.) हांगाच ह्या रुमात रावतलें.

रिगन : वेनेसा, हें तूं कितें करता? म्हज्यान तर सालोमें नासतना एक मिनीट लेगीत जियेवपाक घडचें ना... हें तूं पुर्णपणीं जाणां. (रिगन परत हङ्क्यार हात धरता. काळजाचें आपल्याक आसा म्हण कळयता आनी जड ताळ्यान उलयता.)

वेनेसा : फकत तुकाच लागून हांव ताका हांगा दवरतां... पूण तें इस्कोलाक वचचें ना, खंयच भायर सरचें ना... फकत ह्या रुमांत आसतलें. (सालोमेंक रुमांत घालता आनी भायर वता.) फाटोफाट रिगन वता... ल्हवू बेला येता आनी सालोमेंक पळोवन फुगार जाता.)

(पङ्क्या फाटल्यान गायतात.)

**कांत नं. - 3**

**मातयेचो करून एक गुळो, देवान खंय मनशाक रचलो.**

**मनीस शिकून शाणो जालो, संवसाराचो नकासो बदललो.**

**कोरस**

**पूण प्रमाणीक तत्वान, जिविताची भावना मनशामदली गेली तुटून पांगळ्यांक - मोन्यांक, कुङ्क्यांक, भेऱ्यांक, कोण पळयना वळून, आपलें जावं ते रगत, जिवाक कितें भोगत, नाकारता कसलें हे मनीसपण?**

**विज्ञानान सुदरायलें, जिवीत इबाडलें कसलो फायदो मनीस इतलो शिकून?**

(काळोख.)

(पांचवो पङ्डो पड्टा)

# सवो पड्डो

(सालोमें आनी वेला कांतार म्हणटात - बेलाची चिंनना - सालोमें पायांनी चलता - जिवेन उलयता आनी दोगांय खेळटात. उपरांत हीं तांचीं चिंनना म्हण कळटा... सुद्दीर येता... कांतार करता...)

**कांत नं. - 4**

बेला : **धुवे, तुकाच लागून जियेतां.**

**जिवीत म्हजें तुकाच हांव भेटयतां.**

**संवसारातलें सगळें उणेंपण भोगता.**

**मोनें - पांगळें जल्मलें म्हण देवाक शिणटा.**

कोरस

**एक दीस येत असो, कोणाच्यान सांगूंक नजो.**

**परत एकदां धुवे म्हजे, देव दित काय जीव आनी पांवो.**

**कसोच पेकचो ना, काळजाक जाल्लो घावो.**

**हय रगताक वळखना, केन्नाच पावचो ना, पेटोवंक घराचो दिवो.**

(कांत सोंपतगीर सालोमेंक घेवन बेला वचूंक तयार जाता.)

हांव ताका हांचेमदीं कशेंच दवरचें ना... हय! हांव ताका ह्या घरांतल्यान भायर काडटलें. ताका घेवन ह्या घरांतल्यान हांव भायर वतलें. (भितर वता.) बाय! तूं म्हजे बरोबर येता न्हय? आमी हें घर सोडून पयस या.

(रिगन येता आनी सालोमेक धरता.)

रिगन : बेला, तूं ताका खंय व्हरता? सालोमें म्हाका जाय. (रिगन सालोमेंक आपल्या गोपांत धरता.)

वेनेसा : तूं तिचे लाग करता म्हण तीं आजून हांगासरच आसात. आतां सालोमें व्हड जालें. ताचें तें सगळें करूंक जाणा. आतां आमकां तिची गरज कसली? तिका वचूं दी न्हय तिच्या घरा.

बेला : वतां हांव, जरूर वतां. पूण बरोबर सालोमेंकय घेवन वतां.

रिगन : बेला, ना! तूं आनीक कितेंय माग बेला! पूण सालोमेंक मागनाका. सालोमें म्हाका जाय. हांव तुका ताका व्हरूंक दिवचों ना. सालोमें म्हाका जाय.

बेला : सालोमें तुमकां जाय? कितें करूंक? ताका इस्कोलांतलें काडूंक? ताचें शिकप बंद करून ताका ह्या रुमांत बंद दवरूंक? ना, हांव सालोमेंक तुमचेकडेन दवरून वचूंक तयार ना. ह्या घरांत तुमकां हांव परकी जायत, पूण सालोमेंक हांव परकी न्हय. ताचेथांय म्हजें नातें म्हत्वाचें आसा.

वेनेसा : नातें म्हत्वाचें आसा? ना. तुका ताचें कांयच लागना. तुका आमी ताचे खातीर दुडू फारीक केला. आमकां जाय तेन्ना तुका ह्या

घरांतल्यान धांवडावंक जाता.

बेला : तितलें सोंपें ना तें. तुमी ताचे खातीर दुडू पोडल्यात जायत. पूण ताका जल्मांत हांवें म्हज्या कुसव्यांत सांबाळ्ळा. एक वर्स पर्यंत म्हज्या हड्ड्याचें दूद दिवन हांवें ताका वाडयला. हांवेंच ताका एके आवयचो मोग दिला. ताका ल्हानाचें व्हड केलां. सांगात, तुमी ताचे खातीर कितें केलां?

वेनेसा : आमी कितें केलां? आमी कितें केल्लें तुका जाय? सालांसं आमचें भुरगें. आमच्या भुरग्याक आमी जाय तशीं वाडयतलीं.

बेला : वाडयात! पूण मनीसपणाचे मर्यादेभितर वाडयात. मनीस तें. अपंगूळ जल्मलां जाल्यार, अपंगुळाक मनीस कशें जियेवंक हक्क ना? देखूनच दिसता, देवान तुमच्या नशीबांत फकत अपंगूळच भुरग्याचें वीं घालां. ताचे वरवीं तुवें अपंगुळाचो अदीक मोग करपाक.

वेनेसा : (रागान फुलून) पळयलें तुवें रिगन? आतां आमी हाचीं शापोतां आयकचीं पडलीं. एका झाडाक कांयच फळां मेळचीं नात म्हण कळतगीर ताका कातरून भायर उडयनात, तेंच परी आमकां हें पांगळें जावन आसा, ताचें आमकां कांयच फळ मेळचें ना. तरय पूण तुमी ताची अपुर्बाय करतात.

रिगन : हय. जाणां वेनेसा, मनशाक फळांच दितल्या झाडाची गरज आसना. सावळीय दितल्या झाडांचीय गरज आसता. जरी तर तूं म्हणटा जाल्यार, वेनेसा, तूंवय म्हाका एक फळ दिना आशिल्लें झाड. अजूनपर्यंत म्हाकाय तुजो कसलोच फायदो जावंक ना. सांग, तुजें हांव कितें करूं?

वेनेसा : (रागान पळयता) हांव जाणां हें तूं म्हाका म्हणटलोच म्हण. कित्याक ह्या दिसांनी हांवें तुका वारीकसाणेन पळयला, तूं ताचेंकडेन कितलो मोवाळ उलयता तो. समजनाका, सोशान आपल्या कानांनी दोळे

धांपले जाल्यार, ते दुसऱ्याक दिसनात म्हण. तुका म्हजो मोग ना, तूं ताचेच वटेन ओडटा.

बेला : म्हजे वटेन कोणच ओडिल्लो म्हाका नाका. तुमचें काजारी जिवीत हांव मोडूंक सोदना. हांव तुमकां थिरपणान स्पश्ट करूंक सोदतां. हांवें फकत तुमकां म्हजो कुसवो भाड्याक दिला, म्हजे कुडीची मर्यादा इबाडूंक ना. म्हाका एके नोकरेची गरज म्हण हांवें तशें केल्लें. समजून, म्हजीय गरज जातली आनी त्याबरोबर तुमच्या घराब्यांत सूख मेळत काय म्हण. पूण ना, देवाची येजवण तुमच्यासवें वेगळीच आसली. तुमकां भुरग्याचो कितलो मोग आसा तो पळोवंक देवान तुमकां एक पांगळें दिलां.

वेनेसा : तें पांगळें जल्मूंक कारण तूं जावन आसा. कित्याक, तें तुका जल्मलां.

बेला : हांवें ताका फकत जल्म दिला. पूण बीं तुमचें. आनी जाणां जा मॅडम, बीं तसलेंच फळ जाता.

वेनेसा : ना. ताचें रूप, ताचें सैम आनी सगळेंच तुजे सारकें जालां कित्याक ताची कूड जावन आसा तुज्या कुडीचो भाग. तें तुज्या कुडीचें मांस.

बेला : ना मॅडम, तूं चुकता. रोयतात ती जमीन त्या बियांक फकत आकार दिता.

वेनेसा : देखूनच पांगळें जालां. कोणाक खबर तुजे कुडींत कसले वायट गूण आसात ते.

बेला : एके कुड्डे आवयक कुड्डें जल्मना. एके मोने आवयक मोनें जल्मना. एका थोट्याक पांगळें जल्मना. पूण देव दर एकल्या मनशाची ह्या संवसारांत आसतनाच परिक्षा करता.

वेनेसा : देखूनच तें पांगळें-मोनें जल्मलें.

बेला : ना. देवान दिल्ल्या उपायांचो उपयोग करचे बदला तुमी ताचो

दुरुपयोग केलो. हाकाच लागून देवान तुमकां ही ख्यास्त दिल्या जायत.

वेनेसा : रिगन, आयकलां काय तुवें ताचें? तुकाच लागून तीं दोगांय ह्या घरांत उरल्यांत. आतां सालोमे वाडून व्हड जालां, तरीय पूण तूं तांकां वेगळीं करूंक सोडीना?

बेला : आतां आमकां कोणेंच वेगळें करपाची गरज ना. हांव म्हजा दोगीं वतां. आनी वतना सालोमेकय म्हज्या सांगातान घेवन वतां. कित्याक, सालोमेचें जिवीत तुमच्या हातांत सुरक्षीत ना.

वेनेसा : आमच्या हातांत सुरक्षीत ना? कित्याक?

बेला : कित्याक, बाबडें अपंगूळ जल्मलां. ताचे असले हालहाल करप? कित्याक? ताची कसली चूक आसा? तशी सैमान हांवय ताची खाशी आवय. आनी ताचो सांबाळ करूंक म्हाकाय पुरय हक्क आसा आनी ताका म्हजी धूव म्हणून मानूंक म्हाका कसलीच आडखळ ना.

वेनेसा : तूं ताची आवय? तुज्यान हें कशें म्हणूंक जाता? ज्या दिसा तुजो करार सोंपलो त्या दिसा तुजे संबंदय सोंपले. तुका आनीक कसलोच हक्क ना.

बेला : हय, तें जाणां हांव! पूण तें सिध्द करपाक म्हाका कायद्याचो आदार घेवचो पडटलो आनी तेन्नाच म्हजो हक्क कळटलो.

रिगन : ना, बेला ना. म्हजें सालोमें म्हाका जाय. हांव तुका ताका व्हरूंक दिवचों ना. I will not allow to do so. She is my only possession.

बेला : ना, तुमी कितलेंय केलें जाल्यार, ताका हांव तुमचे मदें वाडूंक दिवचें ना. हांव ताका तुमच्या चपक्यांतल्यान मेकळें करूंक वावरतलें...

आनी हें करूंक म्हाका गरज पडली जाल्यार.... कोर्टाचे पांवडे लेगीत हांव चडटलें.

(काळोख.)

(सवो पड्डो पड्टा)

# सातवो पड्डो

(कोर्ट)

(दिसतात निर्तीदार, एक आदोवगाद आनी एक पब्लीक प्रॉसीक्युटर. कोर्टांत रिगन, वेनेसा आनी सालोमें. तेचवराबर कोर्टांतले थोडे कर्मचारी हजर आसतात. भासाभास चालू आसा.)

आदोगाद : मानादीक नीतीदार सायब, जेन्ना एके घोव-बायलेक शारीरीक संबंदांवरवी भुरगें रचून हाडूंक सैमाची शक्ती आसना, तेन्ना तीं घोव-बायलां पोसकें भुरगे घेतात. ही संवय समाजामदें बरे तरेन चलत आयिल्ली आनी चलताय बी. पूण जशें विज्ञान वाडत गेलें, मनशान आतां आपूण भुरगें जल्माक हाडूंक शकना तेन्ना त्याच दादल्या-बायलांचें वीर्य एका खेरीत विज्ञानीक प्रयोगावरवीं, दुसरे एके तांचे खातीर तयार जाल्ले अस्तुरेच्या कुसव्यांत गेमयतात आनी भुरग्याक जल्माक हाडटात. अशें म्हणटात, ह्या प्रयोगावरवीं भुरग्याचे चडशे "जिन्स" वीर्य काडल्यात त्या दादल्या-बायलेंचे आसतात म्हण, ते एके पोसक्या भुरग्या सवें आसनात. तशेंच My Lord! वीर्य ओंपला वा Embriyo transplant केला ते अस्तुरे ठांय एक करार केल्लो आसता. जे वरवीं भुरगें जल्मतगीर ते अस्तुरेचो

आनी त्या भुरग्याचो कांयच संबंद उरना. तें भुरगें फकत त्या वीर्य काडिल्ल्या आवय-बापायचेंच उरता. मि. रिगन आनी मिसेस वेनेसानय बेलाकडेन एक करार केल्लो आनी त्या कराराप्रमाणें तिका तांणी पुराय फारीक केला. ईं आसात त्या कराराचीं कागदां आनी तिका पुराय तरेन फारीक केल्या ती रसीट. (नितीदाराक दोनय कागदां व्हरून दाखयतात.) अशी ही Surrogation प्रयोगाची पद्दत, जाल्यार नितीदार सायबा, म्हजो इश्ट पब्लीक प्रोसिक्युटर मि. गोन्सालवीस कितें सांगूक सोदता तितलेंय चुकीचें थारता.... देखून My Lord! ह्या कोर्टांत त्यो ताच्यो मागण्यो निरादारीत आनी ताबडतोब रद्द करच्यो आनीक भुरग्याक बेगोबेग वेनेसा आनी रिगनाच्या ताब्यांत - म्हणजे ताचे खरेले Genetic आवय-बापायकडेन दिवचें म्हण म्हजी मागणी. Thank you my lord! (तकली बागयता.)

नितीदार : पब्लीक प्रॉसिक्युटर Mr. Gonsalves, हाचे वयर तुका आनीक कितें सांगचें आसा?

पब्लीक प्रोसिक्युटर :Yes my lord! (उठ्ठा.) नितीदार सायब, विज्ञानीक उपाय आसात, तितलेय वापरले जाल्यार हो संवसार सुदारतलोच म्हण कोणें सिध्द केलां? आनी आदोवगाद डिकुन्हा अशें सांगता तर, चंद्रीमाचेर वचपाचें मनशान विज्ञानावरवीं सोदून काडलें. पूण मनीस थंय अजून रावपाक प्रयत्न करना, कारण थंय मनशाचें जिवीत सुरक्षीत ना. तेच परी My lord, विज्ञानान सोदून काडिल्लो हो प्रयोग भाड्यान कुसवो विकतो घेवप वा Surrogation पद्तय पुराय सुरक्षीत ना. भुरगीं नाशिल्ले घराबे पोसकीं भुरगीं पोसूंक व्हरतात हें खुद्द म्हजे इश्ट ॲड्. डिकुन्ह्यान मानून घेतलां आनी जेन्ना एक भुरगें नाशिल्लो दादलो आनी बायल भुरगें पोसकें घेवंक वतात तेन्ना अनाथालयांत तांकां जाय तसलें भुरगें सोदून काडूंक मेळटा. जे वरवीं तीं ताचें रूप, ताची भलायकी हाची पुराय म्हायती

घेतात आनी त्या उपरांतच भुरगें पोसूंक करपाक निर्णय घेतात. पूण ही संधी ह्या 'भाड्याच्या कुसव्यावरवीं' वा Surrogation पद्धतीन जल्माक हाडिल्या भुरग्याकडेन आसना. सालोमेच्या भशेन असलीं भुरगीं दुर्दैवान Defective - अपंगूळ जल्मतात, जेन्ना असल्या भुरग्याक हीं आवय-बापूय आपलें भुरगें म्हण मानून घेवंक वा ताका फावो तो मोग आनी मायपास दिवंक फाटीं सरतात, नाकारतात आनी मागीर असल्या भुरग्यांचे त्रास, हाल-हाल जातात वा एकेंं भशेन तांचो फुडारच उबाडटात. There is no future for these human beings at all my Lord! जाल्यार हे त्रास, हे कश्ट ह्या निष्पाप भुरग्यान ह्या फटीच्या प्रयोगाखातीर कित्याक भोगचे? त्या भुरग्याचो कसलो गुन्यांव? एका पांगळ्याक पुराय मनीस कशें ह्या संवसारात जगपाचो हक्क ना? My Lord! दोनय प्रयोग Surrogation आनी Adoption एकेच तागडेंत घालून पळयत जाल्यार दुबावविरयत Adoption बरें म्हण सिध्द जातलें. कित्याक, तातूंत असलो दुरुपयोग ना. बेला, सालोमेंची सैमाची आवय म्हणजे Biological Mother वा Surrogated Mother ताच्या फुडयांत आसली म्हण ताका सांबाळ्ळें, नातर ताची Genetic आवय-बापूय म्हणजे मि. रिगन आनी मिसेस वेनेसा ताचो खून करून मेकळीं जावपाचीं, हें मि. रिगनान खुद्द मानून घेतलां आनी बेलान ताची ह्या कोर्टामुखार गवाय दिल्या. देखून My Lord! ह्या कोर्टान बेगीनच थारावणी घेवंक जाय, सालोमेंचें जिवीत सुरक्षीत सांबाळूंक आनी ही सुरक्षा ताका फकत ताची सैमाची आवय - बेला कडल्यान मेळूंक शकता. देखून, ताका तिच्यालागीं दिवचें म्हण कोर्टाकडेन मागतां. That's all my Lord and thank you.

नितीदार : दोनय बाजू निश्चीतपणान आयकले उपरांत ह्या निर्तीघराक अशें सिध्द जाता.

''भाड्याचो कुसवो घेवन, Surrogation वापरून, अपंगूळ जाल्लें भुरगें सालामेचें जिवीत ताच्या Genetic आवय-बापूय म्हणजे वेनेसा आनी रिगन हांच्या हातांत सुरक्षीत ना. हेचखातीर ताच्या Surrogate आवयन-बेलान कोर्टाकडेन मागलां, ह्या भुरग्याचो सांबाळ करूंक आपल्याकडेन दिवंचें म्हण. पुराय चौकशी केलेउपरांत आनी मनीसपणाचे नेम मनांत धरून ही तिची मागणी तिच्या काळजाच्या उमाळ्यांनी आनी मोगाचे भावनेन भरिल्ली आसा म्हण सिध्द जाला आनी तें खरें आसा. हेच खातीर, The Court admits her appeal आनी सालोमेक, बेला म्हणजे सैमाचे वा Surrogate आवयच्या ताब्यांत दिवंक हें नितीघर थारायता. (बेला खोशी जाता, वेनेसा आनी रिगन एकामेकांक पळयतात. हांगासर सालोमें ल्हवू उठून कोर्टांतलें भायर सरता.)

तशेंच अपंगूळ सालोमें ल्हान आशिल्ल्यान आनी बेलाक कसलीच येणावळ नाशिल्ल्यान तांच्या दोगांयच्या उदर-पोसवणेचो खर्च Maintenance Cost मि. रिगन आनी मिसेस वेनेसा हांणी करचो पडटलो आनी हो खर्च वसूल करूंक तांणी 5 लाख रुपया State Bank of India चे पणजे शाखेंत जमा करचे पडटले. आनी सालोमें व्हड जायसर बेला ह्या दुडवांचो व्यवहार पळयतलें. शिक्षण मनशाच्या जिविताचो उंच पांवडो. आनी सालोमें मोनें पांगळें आसतनाय ताका शिकपाची व्हड इत्सा आसा, देखून बेलान सालोमेंक ताच्या तांकीइतलें शिकोवंचें. एका शिकपाउदेशीं तरी, एका पांगळ्या-मोन्याचो फुडार परजळीत आनी पुराय येसस्वी जांवंचो ही ह्या कोर्टाची विनंती करून निर्णय दितां आनी ह्या कोर्टाचें आयच्या दिसाचें कामकाज सोंपयता.

(नितीदार सय करता आनी उपरांत उठून वता.)

(पड्डो पडटा.)

(रस्त्यावेलो देखाव.)

(रिगन आनी वेनेसा येतात.)

वेनेसा : रिगन, हांव जाणां तुका कितें मागना तें. एका भुरग्याखातीर आमकां कितें करचें पडलें आनी ह्या वेळार ताका आमचेकडल्यान काडून घेतलें. हांव जाणां, भुरग्याबगर तुज्यान रावंक जायचें ना म्हण आनी हाकाच लागून आमी हो Surrogation चो उपाय घेतलो. पूण ना, आमकां अदीक आडखळ्यो मेळ्ळ्यो, अदीक Complications जाल्यों. (मानशें घुम्मटून) रिगन, सगळें फाटलें विसरून तूं म्हाका माफ कर!

रिगन : तुका माफ करूं? कित्याक? तुका माफी ना, तुका माफी ना.

वेनेसा : ना, रिगन, तशें म्हणनाका. हांवें म्हजी चूक आतां वळखली. I promise Reagan! फाटीं केलां तितलेंय हांव विसरतलें आनी म्हज्या कुसव्यांत भुरग्यांक लेगीन आतां जल्माक हाडूंक तयार आसां. (रिगनच्या फुड्यांत वता.) Yes! रिगन, हांव तुका भास दितां I am ready to bear your child. (ताच्या हातांक धरता.) Yes रिगन, I am ready to bear your child.

रिगन : (चिंतून) ना... तूं तयार आसा? वेनेसा, ना... No you are late. It is not possible now.

वेनेसा : Not possible? कित्याक?

रिगन : वेनेसा, सालोमेंक जल्माक हाडूंक ज्या दिसा आमचें वीर्य काडिल्लें तेन्ना दोतोरान म्हाका सादूर केल्लो आनी हेफुडें हांव भुरग्याक जल्माक हाडूंक शकचों ना म्हणून सांगिल्लें. I am impotent now. आतां हांव तुजी इत्सा पुरी करूंक शकचो ना, वेनेसा, शकचों ना. (रडटा.)

वेनेसा : तशें जाल्यार रिगन, आमकां आतां भुरगें कोण दितलो? रिगन, (रडून) आतां आमकां केन्नाच भुरगें मेळचें ना? आमी फसलीं? (थोड्या वेळा उपरांत) ना... पूण रिगन, एक उपाय आसा... आमी बेला लागीं भोगसणें मागुंया आनी सालोमेंकच आमकां परत दी म्हण ताचेकडेन मागुंया... तुका कितें दिसता?

रिगन : हय! तोच उपाय आसा आमकां... ना तर आमी कितें करतलीं? चल, बेगीन वचूं या. बेलाकडल्यान सालोमे आमकां घेवंया ना तर तें ताका घेवन वचत. ताकाय आमचे बराबर रावंक दवरूंया. (दोगांय वतात.)

(सालोमें एकलेंच वता, तें दिसता. रस्त्यार मोटारीचो आवाज. उपरांत बेला सालोमेंक उलो करीत वता तें दिसता.)

बेला : सालोमें, सालोमें, सालोमें ...

(मागीर सालोमेंक एक ॲक्सीडेंट जाता तें बेला पळयता आनी किळांच मारता.)

(काळोख)

(रिगनाचें घर दिसता.)

(सालोमेंची मेल्ली कूड घेवन बेला दिसता.)

बेला : सालोमें, सालोमें, सालोमें.... हें तुवें कितें केलें?

(रिगन आनी वेनेसा भितर येतात... पळोवन रडटात. बेलाय रडटा.)
(शेवटचो कांत. पडद्या फाटल्यान)

"भुरगें ना म्हण, विज्ञान वापरून, भुरग्याक हाडटा जल्मून भाड्याचो लेगीत कुसवो, दुबाव ना हुस्को, हजारांनी दुडू मोडून, पूण भुरगें जायत तर पांगळें अनाथ वा बेगळें, आवय बापूय घेनात मानून

भुरग्यांचे हाल करचे बदलेक, घराबो नेटोवचो "पोसर्कें" पोसून परत...

Surrogation करचे बदलेक, घराबो नेटोवचो पोसर्कें पोसून.

(पड्डो पडूटा)



## मिनीन मारियो आरावजो

सांताक्रुज, तिसवाडी - गोंय हांगा रावता. बि. कॉम्. (सी. ए. आय. आय. बी. पार्ट - I ) मेरेन शिकप जालां. स्टेट बँक ऑफ इंडिया, वास्को गोंय हांगासर नोकरी.

कोंकणी तियात्राच्या मळार बरोवपी, दिग्दर्शक, कांतारां रचपी म्हण वावुरता.

बरोवन माचयेर हाडलेले तियात्र : 1. **एकसुरो** (1978), 2. **मोगाचो दोंगर** (1993), 3. **फोलेर** (1992), 4. **म्हाका नोकरी लागली** (1998), 5. **यादोस्तिका** (2001), 6. **एक प्रश्न जाप नासलेलो** (2002), 7. **अशें घडलें जाल्यार** (2004), 8. **आव्हान** (2005) 9. **जबरदस्ती**

हेर गाजलेले तियात्रः 1. **तरसाद** (2003), 2. **भाड्याचो कुसवो** (2004) 3. **आत्म-धन** (1994), 4. **लोकनीत** (2003), 5. **एअर होस्टेस** (2007).

पुस्तक रुपान उजवाडाक आयिल्ले तियात्रः 1. **तरसाद** (रोमी लिपिंत - 2006) 2. **म्हाका नोकरी लागली** (रोमी - 2006) 3. **लोकनीत** (रोमी-2007)

**भाड्याचो कुसवो** आनी **जस्ट मिनिट** अशी व्हिडिओ - फिल्मां भायर सरल्यांत. कला अकादेमीचे तियात्र सर्तिंत 1993 ते 2007 ह्या काळांत 6 फावट उत्कृश्ट लेखनाचीं पयलीं इनामां जाल्यार दोन फावट उत्कृश्ट लेखनाची दुसरी इनामां लाबल्यांत. त्याच प्रमाण कला अकादेमीचे तियात्र सर्तिंत आनी उडपी, बेंगळूर हांगच्या अखिल भारतीय कोंकणी नाट्यसर्तिंत दिग्दर्शनाची साबार इनामां लाबल्यांत.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस कोंकणी तियात्र हातबरप सर्तींत **तरसाद** तियात्राक दुसरें इनाम (2003) जाल्यार **भाड्याचो कुसवो** तियात्राक पयलें इनाम फावो जालां.




**गोवा कोंकणी अकादेमी**